# आफ्रिकन काणी

कथन आनी  चित्रायला गेल इ हेली,

कोंकणी अणकार: हर्षाली तलकटकर



ओ  भुरग्यांनो,  जाणात तुमी,
म्हज्या भोंवतणीं बसल्यांत तुमी, आयकूंक काणी.
पूण एका काळार संवसारांत नासल्योच काणयो,
मळब देव न्यामे आसलो सगळया काणयांचो धनी.
तांणी दवरिल्ल्यो त्यो भांगरां पेटलांत
शाही स्टुलां लागीं.



एनान्सी – ह्या मावली-मानवाक दिसलें, घेवच्च्यो विकत्यो सगळयो काणयो मळबा देवा कडल्यान. म्हणटकीच, रोखडेंच विणलें जाळें ताणें पावपा सारकें मळबां मेरेन.



एनान्सेची इत्सा आयकून मळब-देव हांसलो आनी ताणें म्हणलें, “आयक तर म्हज्या काणयांचें मोल. म्हाका भिरांकूळ दांत आशिल्लो बिबटो – ओसेबो हाडून दी. मेम्बोरो – उज्या दंश मारपी गांजीलमूस हाडून दी. आनी ममोटिया – दादल्यांक केन्नाच न दिसपी परी हाडून दी.”

एनान्सेन मान बागोवन म्हणलें, “हांव तुमकां ह्या काणयांचें मोल फारीक करतलों.”

“अरे वाह!” मुमुरख्यांनी हांसत मळब देवान म्हणलें. “तूं आसा एदोसो, अशक्त, बारकुटो जाणटेलो, म्हजें मोल कशें फारीक करतलो?

वोगी रावन एनान्से धर्तरेर देंवलो आनी मळब-देवान मागिल्ल्यो वस्तू सोदूंक लागलो.



"यिर्दी, यिर्दी, यिर्दी," अशें आड्डुत एनान्से रानांतल्यान धांवत सुटलो आनी भिरांकूळ दांतांचो बिबटो – ओसेबो म्हऱ्यांत पावलो.

"ओ.. हो एनान्से," बिबट्यान म्हणलें, "जुस्त म्हज्या जेवणाचो घांस जावंक पावलो तूं."

एनान्सेन जाप दिली: "पळोवया, जें जावपा आसा तें जातलेंच. पूण ताचें पयलीं आमी बंद बांदपाचो खेळ खेळुया."



त्या बिबट्याक खेळांची भोव आवड. ताणें विचारलें: “हो खेळ कसो खेळटात?”

“तो बेल वेलीच्या आदारान खेळटात,” एनान्सेन समजावन सांगलें.

“पयलीं हांव तुजो एक - एक पांय बेल वेलीन बांदतलों. मागीर हांव ते सोडटलों. उपरांत तूं म्हाका बांद.”

“बरें आसा,” बिबट्यान गुरगुरत म्हणलें. खरे म्हळयार एनान्सेक बांदचें पयलींच आपूण खातलो अशें बिबटो येवजितालो.





म्हणटकीच एनान्सेन बेल वेल घेवन ताचो पयली एक पांय बांदलो, दुसरो पांय बांदलो, तिसरो पांय बांदलो, चवथो पांय बांदलो. आनी ओसीबोक म्हणलें, “ओसीबो, आतां तूं मळब-देवाक मेळपाक तयार जा.” मागीर एनान्सेन त्या बांदिल्ल्या बिबट्याक एका झाडार हुमकळायलो.

उपरांत एनान्सेन केळीचें एक व्हडलें पान घेतलें आनी एका सुक्या दुदयाचे बिंदूल उदकान भरलें.

मागीर तो ऊंच वाडिल्ल्या तणांतल्यान सर्र सर्र सर्र सरकत उज्या दंश मारपी गांजीलमुसा म्हऱ्यांत पावलो.

एनान्सेन केळी खोलो छत्री कशी आपल्या माथ्यार धरली. आनी बिंदलांतलें इल्लें उदक माथ्यार रकयलें.





बिंदलातलें उरिल्लें उदक ताणें गांजील मुसाच्या माल्यार उडयलें आनी आड्डुत म्हळें: “पळयात, पावस पडटा, पावस पडटा. येयात म्हज्या बिंदलांत लिपात, नाजाल्यार पावसांत भिजून तुमच्या पांखांच्यो तिसत्यो जातल्यो.”

“देव बरें करूं तुजे, देव बरें करूं,” गांजील मूस गुणगुणले आनी सरळ बिंदलांत घुसलें – घप्प! एनान्सेन सट्ट करून बिंदलाचें तोंड बंद केलें.

“मेम्बोरो, आतां तूं आकाश-देवाक मेळपाक तयार जा.” अशें ताणें म्हळें. त्या उपरांत ताणें दुदयांचे बिंदूल बिबट्याक दवरिल्ल्या झाडा म्हऱ्यांत हुमकळायलें.



आतां एनान्सेन हातांत पडगो घेवन आशिल्ली एक लांकडाची बावली कोरातली. मागीर ते बावलेक ताणें वयल्यान सकयल मेरेन गोम लायले. पडग्यांत चेंचायल्लीं कणगां घालीं.



परयांक ज्या झगझगीत झाडा सकयल नाचपाक आवडटाले त्या झाडा सकयल एनान्सेन ते बावलेक दवरली. मागीर ताणें एक वेल घेतली आनी ताचें एक तोंक बावलेच्या माथ्याक बांदलें आनी दुसरें तोंक आपल्या हातांत धरून तो एका झाडा फाटल्यान लिपलो.

कांय वेळान थंय ममोटिया - दादल्यांक केन्नाच न दिसपी परी आयली. परी नाचत, नाचत, त्या झगझगीत झाडा सकयल आयली. थंय तिका पडग्यांत कणगां घेवन आशिल्ली बावली दिसली.

ममोटिया परीन म्हणलें, “बाय, म्हाका खूब भूक लागल्या. हांव तुजी इल्लीं कणगां खावूं?”

झाडा फाटल्यान अनान्सेन बावलेक मातशी ओडली. ताका लागून बावली हाल्ली आनी परयेक दिसलें बावलेन “हय” म्हणलें. मागीर परयेन बावलेच्या हातांतलो पडगो घेतलो आनी सगळीं कणगां खालीं.





“देव बरें करूं तुजें, बाय,” परयेन म्हणलें.

पूण बावलेन तिका परती कांयच जाप दिली ना.

“तुवें म्हाका जाप कित्याक दिली ना?” परयेन रागान विचारलें.

बावली मातूय हाल्ली ना.

“पळय, जर तुवें म्हाका जाप दिली ना जाल्यार हांव तुजेर थापट मारतलीं,” परी आडुली.

पूण बावली मात लेगीत हाल्ली ना आनी धोल्लीय ना. ती सामकी ओग्गी रावली. उपरांत परयेन रागान बावलेचेर थापट फुलयले. फाट्ट! परयेचो हात बावलेच्या पोल्याक घट्ट दसलो.

“म्हजो हात सोड, ना जाल्यार हांव तुका परत थापटायतलें,” परयेन बावलेक दुसऱ्या हातान थापट मारलें. फाट्ट!

तेन्ना परयेचे दोनी हात बावलेच्या पोल्याक दसले. परयेक खूब राग आयलो. तिणें बावलेक आपल्या दोनूय पांयांनी धुकल्लो. परयेचे दोनूय पांय बावलेक दसले.

आतां एनान्से झाडा फाटल्यांतल्यान भायर सरलो. “ममोटिया, आतां तूं मळब-देवाक मेळपाक तयार जा,” अशें म्हणत एनान्सेन, ममोटिया परयेक, बिबटो आनी गांजीलमूस आशिल्ले त्या झाडा कडेन व्हेले.





एनान्सीन ओसेबो, मेम्बोरो आनी ममोटियाच्या चारूय वटांनी एक जाळें विणलें. तशेंच भूंय ते मळबां मेरेन एक जाळें विणलें. उपरांत एनान्सेन आपल्या तिनूय बंद्यांक आपल्या फाटल्यान मळबांत ओडीत व्हेले आनी तांकां मळब-देवाच्या पांयार घालें.

“देवा सायबा, न्यामे,” एनान्सेन नमळायेन म्हणलें, “हे पळय तुज्या काणयांचें मोल - भिरांकूळ दांतांचो बिबटो – ओसेबो. उज्या दंश मारपी - मेम्बोरो आनी ममोटिया - दादल्यांक केन्नाच न दिसपी परी.”



उपरांत मळब-देव न्यामेन, आपल्या सगळया मंत्री गणांक आनी दरबाऱ्यांक आपयले आनी व्हडा आवाजान तांकां सांगलें: “मावली-मानव - एनान्सेन म्हज्या काणयांचें पुराय मोल फारीक केलां. ताचें कवतूक करात आनी ताचें गुणगान गायात. हो म्हजो तुमकां आदेश आसा.”

“आयच्यान आनी ह्यान फुडें सदांच,” मळब-देवान घोशणा केली, “म्हज्या सगळया काणयांचो मालक एनान्से आसतलो, आनी ह्यो काणयो लोक मावली काणयो ह्या नांवान वळखतलें.

“बरें भशेन!” दरबारांत बशिल्ल्या सगळयांनी वांगडाच म्हणलें.



हाचे उपरांत एनान्से भांगरां पेटूल घेवन परत आपल्या गांव घरां धर्तरेर आयलो. थंय ताणें तें पेटूल उगडलें आनी तातूंतल्यो सगळयो काणयो संवसारांतल्या खांची कोनश्यांनी फांफसल्यो- आमच्या ह्या कोनश्यांक लेगीत त्यो पावल्यो.





ही म्हजी काणी हांवें तुमकां सांगल्या. ही काणी तुमकां आवडल्या आसत वा नासत.

तुमीय काणयो हांगाच्यान घेवन चलात, आनी मागीर संवसारांतल्यो कांय काणयो म्हज्या खातीर घेवन येयात.

जायत्यो आफ्रिकी काणयो मागीर त्यो एनान्से कडेन संबंदीत आसूं वा नासूं, तरी मावली-काणयो ह्या नांवान फामाद आसात.

ह्या मावली काणयांनी ल्हान, असहाय्य लोक आनी जनावरां आपल्या बुद्धीमते परस व्हड-व्हड संकश्टां आनी समस्यांक तोंड दिवन तातूंत जैत मेळयतात. मागीर ह्यो काणयो तारवांचेर चडून अटलांटिक म्हासागर वलांडून अमरिकेंत पावल्यो. गुलामांचे दायजी आयज लेगीत त्योच पयलींच्यो काणयो सांगतात. ह्या काणयांक लागून तुमची वळख कितल्याश्याच अफ्रिकी शब्दां कडेन जातली. तांच्या आवाजावेल्यान तुमच्यांनी तांच्या अर्थाचो अंदाज काडूं येता.

